# शेणै गोंयबाब

मुखेल संपादक
**बस्ती वामन शेणै**



कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान (रि.)
विश्व कोंकणी केन्द्र, मंगळूर

# शेणै गोंयबाब

SHENOI GOEMBAB (Konkani) – a life-sketch for children Publishers: Konkani Language and Cultural Foundation (R), World Konkani Centre, Shakti Nagar, Mangalore.

First Print: 2011

पयली आवृत्ती : 2011
© कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान (रि.)

विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा प्रकाशन
गोवा कोंकणी अकादेमी
पाटो कॉलनी, पणजी, गोंय.

उजवाडावपी:
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान (रि.)
विश्व कोंकणी केन्द्र, कोंकणी गांव, शक्तीनगर, मंगळूर

कला आनी अक्षर जुळणी:
विश्व कोंकणी केन्द्र,
साहित्य विभाग

मोल:
रू.: २०/-

## प्रस्तावना

भारत देश ५००० वरसाचो इतिहास आनी प्राचीन संस्कृती आशिलो देश. ह्या महान देशांत हजारोहजार श्रेष्ठ दार्शनीक, राजा महाराजा, साहित्यकार, ज्ञानी, विज्ञानी, जल्माक आयल्याती. जगांतुले बुद्धिजीविंक, सरळ सामान्य लोकांक, दारल्यांक बायलांक, तर्नाट्यांक, चर्डुवांक तांगेले जीविताचे कार्य सिद्धीचे फल, जीविताचे संदेश आनी संसारांत चल्न येवची वाट आनी पायवाट सांगून दाकोव्न गेल्याती. भारतांत सनातन धर्म, बौद्ध, जैन, सिक्ख, इस्लांम, क्रैस्त धर्म आनी वेगवेगळे ध्येय, सिद्धांत आनी कार्यक्रम मांडोव्न घेतीले, राजकीय समाजिक संघ संस्थांय भारत देशांत आसती. आनी त्या त्या संस्थयांचे, धर्माचे दार्शनीक, मुखेले तांगेले कार्य, सिद्धांत, आनी विचार संसाराक बोधन करन गेल्याती.

वयर सांगिले महात्म, राजामहाराजा, दार्शनीक आनी धर्मीक, सामाजीक, सांस्कृतीक क्षेत्रांतुले

महा मानेस्तांगेले जीवित, जीवनाचें दर्शन आनी कार्य ल्हान प्रायेचे चर्डुवांक, विद्यार्थी विद्यार्थिनींक सांगल्यारी, वाड्डुन येवचे मुखावयले पिळगीक एक आदर्श दाखोवन दिलेयावरि या सांगिलवरी जातलें. ह्या खातिर प्रकाशन जावचे कोंकणी भाषीक श्री. कार्कळ अनंत पै (अंकल पै) लें अमर चित्रकथा, चंदमामा महिन्याळें, भारत भारती पुस्तकां, चर्डुवाल्यांत मात्र न्हंय, घरांतुले तांगेले म्हालगड्यांकय खूब आवडलेलें आसा. अमर चित्र कथा तांतूय भारतांत मात्र न्हंय, विदेशांतूय खूब प्रसिद्ध आनी जनमोगाळ जालेलें सर्वांक कळूनची आसा.

कोंकणी भाशेंत बालसाहित्य खूब ऊणे आसा. बरें बाल साहित्य उजवाडाक हाडून कोंकणी बाळाल्यांत पुस्तक वाचूचे आनी साहित्यांत अभिरुची हाडचे अगत्य आसा, म्हळेलें मनांत घेवन कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठानाचे वतीन विश्व कोंकणी केन्द्राचे आनी विश्व कोंकणी साहित्य अकाडेमीचे मुखावयले योजनादावन,

विश्व कोंकणी बाल साहित्य उजवाडाक हाडचे ठरयलां. ह्या पुस्तक मालिकेंत प्रपंचांतुले मुख्य जावन भारत देशाचे मानव श्रेष्ठांगेले जीवित आनी कार्यांचे माहिती दिवचे ल्हान ल्हान पुस्तकां प्रकाशन करन बाळाल्यांत कोंकणी साहित्य जनमोगाळ करचें उद्देश आसा. हाका कोंकणी चर्डुवालें आनी तांगेले वडीलांगेलेय प्रोत्साहन मेळतलें, आनी तान्नी उगते मनान स्वीकार करतले अशें आम्मी आशेताती.

**वाल्मीकी** महर्षीलें जीविताचें विषयांत हें पुस्तक बरोवन दिलेले श्रीमती चन्द्रमती सुरेन्द्र राव हांका देवु बरें कोरो. पुस्तकाचे मुखचित्राची कल्पना आनी डीटिपी विश्व कोंकणी केन्द्रांत जाल्या. पुस्तक छापसून दिलेले कोडवर्ड प्रासेस आनी प्रिंटर्स मंगळूरु आनी विश्व कोंकणी बाल साहित्य पुस्तक माळा प्रकाशन, **गोवा कोंकणी अकादेमीचे** देणिगा. हांका देव बरें कोरो.

विश्व कोंकणी केन्द्र — **बस्ती वामन शेणै**
फे. १४, २०१२ — *अध्यक्ष*

# शेणै गोंयबाब

लोकांतु 'शेणै गोंयबाब' म्हणूची नामांकीत जालेले शेणै वामन रघुनाथराव वर्दे वालावलीकार एक दिव्य चेतन. कोंकणी मायभाषेचे विषयांतु कोंकणी जनाल्यांत त्या काळांत आशिले दिव्य निर्लयक्ष्य, नीरभीमान, अवज्ञाक तांगेले प्रबल निर्धार शक्तीन, महान संघटना शक्तीन, तीक्ष्णधारेचे उत्रांनी, उन्नत विचारानी आनी तांगेले वज्र लेखणीन भायर आयिले लेखन, साहित्य सृष्टीन, निदांतु आशिले जनांक जाग्रत करनु कोंकणी भाषेची अस्मिताय दाखोवन दिलेले एक महात्म.

परदेशी पोर्तुगीसालें आडळित्यांत, तानी दिलेले ल्हान सवलत्त, स्थानमान तेंच व्हड अशीं लेकून, तांची सेवा करचे आमगेले भाग्य म्हण चिंतून, पोर्तुगीजानी आमचे आवयभास, संस्कृती वयर केलेले अघात, आमगेले

म्हालगड्यानी मायगांव सोडनु धांवची परिस्थिती आयिली, हें पूराय विसरूनु, आत्म विस्मरणांतु आशिले त्या काळारी कोंकणी भास, संस्कृती, साहित्य, कलाचे उद्धाराक जल्मलेलो कोंकणी चळवळाचो बापय "शेणै वामन रघुनाथराव वर्दे वालावलीकार" उर्फ "शेणै गोंयबाब". तागेली जीवीताची ही कथा कोंकणी समाजाक एक महान दिवो.

श्री वामन रघुनाथ शेणै वर्दे वालावलीकार गोंयचे वालावलीकर वर्दे घराण्याचे. हें घराण्याक 300 वरसाचो भव्य इतिहास आसा. हे कुट्माचे मूल म्हालगडो पुरुष अंतरुज महालाचे गोरक्ष शेणै. पोर्तुगीजाल्या दरबारांतु आतांचे पोंडा महालाचा तरफेन राजदूत जावनाशीलो. तागेले वत्स गोत्र आनी कवळेची शांतदुर्गा कुलदेवता.

हें कुट्मांतु वामनराव 1877 इस्वी जून मैन्याचे 23वें दिवस दिवचले गांवांत जल्मले. रघुनाथराव तागेल्या धनयातंय शेणापण (कारभारीपण) करत आशिलो. दुर्बळपणान आशिले त्या कुट्मांतु वाड्डिलो वामनराव. ल्हान प्रायेरी ताणे मस्त उलोन्चे या कार्यशीलता नासुनु अंतरमुखी स्वभावाचो चेळ्ळु आशिलो. तो जालो, तागेले काम जालें अशीं. जाल्यारी तो बुद्धंत आशिलो. तागेले आवयन ताका शाणो (बुद्धंत) अशीं अपोवचे आशिलें. वामनरावाले मूळावे (प्राथमीक) शिक्वण मस्त कष्टारी जालें. बापयलें आर्थीक परिस्थिती निमित्तान मात्र न्हंय, त्या कालांतु दीवचले गावांत व्यवस्थीत रीतीरी शिक्वण दिवचाक शाळा नाशीलींती. पयलें आनी दुसरे क्लास रामगांवकर हागेल्या घराचे आंगणांतु जाताले. रामगांवकर ताका पुर्सत आशिले वेळारी शिकयतालो. वामनरावाले

अक्षरां सुंदर आशिलीं. रामगांवकार तागेले शेतांत शेतकी कामाक गेलेल्या वेळारी वामनराव इतर चेरडुवांक अक्षर आनी पाठ शिकोन दितालो. न्हय जाल्यारी त्या भुर्ग्यांनीं सरकारी पोर्तुगीज स्कूलाक वचूकापडताशीलें.

त्या नंतर वामनराव विनायक सखाराम बर्वे म्हळेले ब्राह्मणाले घरकडे मराठी शाळेंतु तिसरे क्लासतांय शिकलो.

रामचन्द्र दत्ताजी कुलकर्णी म्हळेल्यान म्हापशे गावांतु 'गोमांतक शिक्षण मंडळी' म्हळेली संस्था 1884 इस्वींत उग्तायीले. ताचो शाखो ताणे वामनरावान आसुचे दिवचले गावांतूयी उगडयिलो. त्या शाळेंतु वामनरावाक तागेले बापयन शिकचाक घालो. थंय ताणे चौते, पांचवे आनी सवे क्लास पास केलें. जाल्यारी ते शाळेंतु सातवे

क्लास नातिले निमित्तान, रघुनाथरावान वामनाक सरकारी पोर्तुगीज शाळेंत पोर्तुगीज शिकचाक दाखल केलो. ताका पोर्तुगीज भास कळनाजाल्यारीयी, तीक्ष्ण बुद्धिचे वामनान एक वर्स भितरीची पोर्तुगीज भास अभ्यास करनु 'प्रीमेग्रांव' क्लास पास जालो. मुकावयले पोर्तुगीज शिक्षणा खातीर ताणे तागेलो आवयलो बापय सुक्तंकराले घरकडे बस्तोडे गांवांत आसुनु पोर्तुगीज 'सेगुन्दग्रावा'चो अभ्यास करनु परीक्षा दिली. आनी सगळे बारदेस तालूकांतूची पयलो आयलो.

नंतर ताका शिकोचाक बापयक दुड्वा तांक नातीले निंमती घरकडेची आशिलो. ताणे गांवाचे वाचनालयादाकून संस्कृत आनी इंग्लीष बूकं हाण स्वाध्याय केलो. डॉ। रामकृष्ण गोपाळ भंडारकार हांगेले पयले बूक वाजुनु

पूर्ण केले. 1888 इस्वींत रामचन्द्र भिकाजी गुंजीकर हान्नी बरयीलें प्रसिद्ध "सरस्वती मंडळ" पुस्तक वाजीले. आनी ताजेन खूब प्रभावीत जालो. कोंकणी मायभाषेचे मूळ संस्कृत भाषेंत आसा मळेले कळन आयलेंकी, ताका कोंकणी मायभाषे वयर भारी आदर आनी अभीमान उत्पन्न जालो अशीं कळूनयेता.

वामनरावालो बापल्यो आजो भास्कर शेणैलो पूतु चिंतामणीबाब वर्दे वालावलीकार मुंबंयत स्थायीक जावन आसुन आगरा ब्यांकाचे शाखा मेनेजर आशीले. 1895 इस्वींत तांगेले वृत्ती दाकुन निवृत्त जाले. ते सकुटुंब जावन गोयांक, तांगेले कुलदेवळाक भेटी दिवचाक आयिले. आपण्याले मायगांव दीवचले गावांकय येवन वामनरावाले घरकडे आयिले. रघुनाथरावाक वामनाक मुकारी शीकवचे तांक नातिले तान्नी पळयलें. ताका आपण मुंबयक व्हरन

शाळा शीक्वण दितां अशीं रघुनाथरावाक सांगले. आनी तागेली कबूली घेवन वामनरावाक मुंबयी व्हरुंक तयारी केली. आवय सीताबायी आनी घरांत वैधव्य जीवन करन आशिले तागेली मावळणी 'शेवंतु आका'न जड अंतःकरणान वामनाक बापल्यो चिंतामणरावाले सांगाता मुंबयकवचाक नीरोप दिलो.

चिंतामणीरावान तागेले कुटुंब समेत वामनरावाक घेवन 1895 इस्वींतु गोंयदाकुन बोटीरी मुंबयक आपोवन घेवन गेललो. तागेलो आंग्लोटु बारीक आनी विशेष वाड नातीलो. वामनरावाक पळयीलो बोटीरी आशिलो एकलो गोंयकारान चिंतामणीरावाक "ह्या गोंयबाबाक तुमीं खंय मुंबयक घेवन वत्तातीवे?" अशीं निमगीले. 'व्हय, हो मेगेलो पुतण्यो. हांव ताका मुंबंयक इंग्लीषशिकूंक व्हरत आसा' अशीं चिंतामणीरावान जवाब दिलीकंय.

ते मानेस्तान ताका "गोंयबाब" म्हळेलें वामनरावाले मनांतु खूब खोंबलें दिसता. आनी तें "गोंयबाब" शब्द केदनायी तागेले मनांत वर्नूयी आशीले, तशी जावन ताणे मुकारी तागेले साहित्य सृष्ठी आनी लेखनांतु तागेले लिखणी नांव (Pen Name) "गोंयबाब" म्हणूची दवरन घेतले. आनी जगभरी शेणै गोंयबाब म्हणूची जगतप्रसिद्ध जालो. अमर जालो.

चिंतामणीरावान वामनाक मुंबंयत इंग्लीष शिक्वण दिवचे मराठी माध्यमाचे नामांकीत "मराठा हैस्कूलाक" शिकचाक दाखल केलो. त्या शाखेचे स्थापक रा.रा. भागवत म्हळले नामांकीत संस्कृत विद्वांस. ते शाळेचे प्राचार्य जावन आशिले. तशीं जावन वामनरावाक थंयी संस्कृत, मराठी आनी इंग्लीष भासो शिकचे अवकाश मेळता. वामनरावाक जगन्नाथ शंकरशेट "शिष्यवेतन"

(Scholar ship) मेळ्ळेलें, ताका त्या शाळेंत मेट्रिकतांय शिकचाक सुलभ जालें. ताणे मराठा हैस्कूलांत शीकत आस्तानाची, मराठी, संस्कृत आनी इंग्लीष वाङ्मय विंगड जावन अभ्यास करीत आशिलो. महत्वाकांक्षी तरुण वामनराव 1898 इस्वींतु वयल्या श्रेणींत मेट्रीक परीक्षा पास जालो.

तागेले मनावयर विशेष प्रभाव पळ्ळेलें पुस्तक म्हळयारी रामचन्द्र भिकाजी गुंजीकर हान्नी 1885 इस्वींतु बरेयिलें "सरस्वती मंडळ" ह्या पुस्तक वाजीतरी ताका आपण्याली समाजाची संस्कृती विषयांतु माहिती मेळ्ळी. आपण्यान आनी गोंयांतु उलोवची कोंकणी भासेचे मूळ वैदिक (संस्कृत) भाषेंतु आसा म्हळेले ताका कळन कोंकणी भाषे बद्दले खूब आदर आनी अभिमान उत्पन्न जाले.

दुसरो प्रसंग वामनराव मेट्रीक परीक्षा 1898 इस्वींतु पास जालो. मेट्रीक परीक्षा पास जालेल्या विद्यार्थींक शाळेचा मुखेलानी अभिनंदन आनी नीरोप दिवचो समारंभ आशिलो. ते समारंभांतु वामनरावान ताणे बरेयीले एक मराठी निबंध (प्रौढ प्रबंध) वाजीलें. तें आयकुन सभाध्यक्ष “हो तरुण वांचुनवरलो जाल्यार भविष्यांत आपण्याले बरोवचे शैलींतु विष्णु शास्त्री चिपळूणकरांक माकशी घालतालो” म्हणालो. अध्यक्षाली ती भविष्यवाणी वामनरावाले विषयांतु खरोखरजाली.

1899 इस्वींत ताका कालेजाक वचाक मन आसल्यारी जगन्नाथ शंकर शेट या इतर शिष्यवृत्ती मेळनी जालेल्यान तागेली आशा पूरा जायनी. तें निमित्ती वामनराव परत गोंयाक आयलो. तागेले गांव दिवचलेंतु कांही नौकरी मेळनी जालेल्यान, बारदेसांतु एक इंग्लीष स्कूलांत

मास्तरीकेचे नौकरीक लागलो. पोर्तुगीज भास शिकल्यारी गोयांत मात्र नौकरी मेळताली. इंग्लीष शिकल्यारी भारत देशांत या आफ्रीकांत नौकरी मेळता म्होण विद्यार्थी इंग्लीष स्कूलाक दाखल जाताले. तशीं जावन गोयांत मस्त इतले गावांत इंग्लीष शिकप दिवचे शाळा उगडील्यो. जाल्यारी हैस्कूलाचे नौकरींत मुकारी भविष्य नाशीले. आनी ते शाळेचे वातावरणांत ताका बेळसाणी येवन एक वर्सानीची शाळेचे नौकरीक राजीनामा दीवन तो कराचीक गेलो.

कराची नगरपालिका दफ्तरांत रीकार्ड कक्षांतु वामनराव सादा कारकून नौकरीक मेळो. जाल्यारी थंचो हुनसाणीचो हवो ताका लागनी. नंता तागेले दफ्तरांत तागेले सांगाती कामकरचे नौकर आळशे आनी कामचोर

आशिले. तशी जालेल्यान ताका कराचींत रावचे नाकाजाले. आनी ताणे कशींपुणी एक वरस तंय आसुन कामाक राजीनामो दिलो आनी मुंबयक आयलो.

तागेलो बापल्यो चिंतामणीराव तेदना अगदी म्हांतारो जालली. वामनरावान आयिले ताका खूब खुषी जाली. ताका ताणे तागेले घरकडेची रावुनु 'खंयी चाकरी मेळयारी करी' अशीं सांगले दिसता. वामनराव बापलेल्या घरकडेची रावलो आनी काम सोदीतची आशिलो. तशींची एक वर्सान उत्तर वया निमित्तान चिंतामणीराव 1902 इस्वींत अंतरलो.

त्या वेळार वामनरावाक युरोपीयन आनी इतर व्यापार संस्थ्यांत काम मेळेलें. तेची काळारी ताणे स्टेनोग्राफर आनी एकौंटन्सी शिकूनु ताजे ज्ञानयी संपादन केलें.

ताजेन ताका बरें काम मेळचाक सुलभ जालें. ते वेळारी वामनरावाले लग्न जावन तो संसारीकयी जालल्लो.

1903–1904 सुमाराक तागेलो चल्लो तीन, चार वर्साचो आसुका. चल्याक कोंकणी आवय भाषेंतूची शिक्वण दीवका म्हळले उद्देशान वामन रावान तागेले पद्धतीन 'कोंकणी मुळांवे पुस्तक' रचीलेलें (हेंची पुस्तक मुकारी 1940 इस्वींत गोमांतक छापखान्यान छापसुनु उजवाडायलें) आनी त्या पुस्तकावयल्यान तागेले पुताक मुळावे शिक्वण दिलें. चेलो प्रायेन व्हडजाले परांते ताणे चेल्याक इंग्लीष माध्यमाचे शाळेक शिकूंक घालो.

तेची वेळार ताणे एक दोनी पुस्तक बरयलीं. एक "अभागी सुब्राय" आनी दुसरें "भिडेस्त रायुबाब" पुस्तक बरोवन हातप्रती तयारीकेली. 'भिडेस्त रायुबाब' प्रसीद्ध

इंग्लीष साहिती ओलीवर गोल्डस्मीत हागेले 'She stoops to conquer' नाटकाचे रूपांतर. जाल्यारी ताणे देवनागरी लिपीन बरेयिले हें कोंकणी रूपांतर बरपांतु युरोपीयन समाजाचे चित्रण आसुनु आमगेले देशीय सांस्कृतीक मेळामेळी नास्ताना तें छापसुचे ताका बरें दिसनी. नंता त्या काळारी कोंकणी पुस्तकं देवनागरी लिपीन छापसुन उजवाडाहाडची संस्था मुंबयी या हेर खंचेय गावांत अस्तित्वांत नाशिलीं. आनी तागेली आर्थीक परिस्थितीयी पुस्तक उजवाडावची तशी नाशिली. हे सकड कारणानी 'अभागी सुब्राय' हातप्रती घरांतूची वरली. पुस्तक प्रकाशनाक हाडल्यारी कोंकणी जन ह्या विचित्र भाषेंत कसले आसा म्हण विचारतीत शिवाय पयशे दीवन मोलाक घेवन वाजुचे तसलो मनोभाव नाशीलोय ते पुस्तक प्रकाशीत ना जावचाक एक कारण जावन आसूयेत.

कराचीतावन मुंबयीक येवन जाले परांते मुंबंयत वामनरावान दोन–चारकडेन सामान्य कारकूनाचे नौकरीक मेळन जालेलें उपरांते ताका इतालीयन कोनसुलांत एक साधारण बरे दर्जेचें काम मेळें. थंय वामनराव एक वर्सभर आशिलो. ताणे क्लप्त समयाक दफ्तराक वचे, दीसभरी एकाग्रतेन मनलावन आपण्याले कामकरचें आशिले. रजा घेनातीले, नियमीत पणान, चुकानतीले कामकरचे तागेले अभ्यास आशिलो. ताणे दफ्तरांत कामारी आसतना हेकडे तेकडे पोळोवचे नाशीले. माते उबारन पोळोवचेतांय नाशीले. तेंची ताका मारकजाले अशीं दिसता.

तागेले दफ्तरांत नौकरांत वर्षावधीचे पगार चडकर्चे वेळारी वामनरावाक सोडून बाकीचे पूरा नौकरांकय मुखेल

अधिकारीन पगार वाडयलो. तें कळनूयी वामनराव नुळीत आशिलो. जाल्यारी तागेले सांगाती नौकरानी ताका खूब सहानुभूती दाकयलें आनी 'आमका सकडांक पगार वाडयला. तुमका मात्र ना. हें कशी जालें?' अशीं विचारसीलें ताका वामनरावान सांगले, "माका पगार वाडनी जालयारी त्या खातीर माका दुःख जावचे नां. आता मेळचो तो पगार म्हाका पुरो जाता. म्हाका तितल्यांतूची समाधान आसा". पुण गजाल इतल्यारी रावली नां. पगार वाडोका जालेल्या अधिकारीन वामनरावाक तागेले क्याबिनाक आपशकरयलो आनी "ह्या आफीसांतुल्या तुमका सोडुन सगळया कर्मचारींक तांचे वर्साचे प्रमोशन दिलां. तुमका कळीत आसवे? अशीं निमगीलें, ताका वामनरावान "व्हय माकाय खबर आसा पुण हावेंय कांय मागुंक ना" म्हळें.

"तुमका प्रमोशन कित्याक मेळूंकना म्होण तुमी जाणांतीवें?" ताका वामनराव जवाब दिनातींले नूळीत रावलो.

हांव आफीसाक भीतर येतना सर्व करमचारी उठान रावुन माका मान दितातीं. तुमी एकलेची उठान रावनाती. हें कित्याक?

ताकाय वामनरावान जवाब दिलीनां.

'हें पळया वालावलीकार, तुमगेले काम माका खूब पसंत आसा. तुमी वेळार कामाक येताती. तुमी केदनाय गैरहाजर जायनाती. त्या खातीर हांव तुमका डबल प्रमोशन दितां' म्हळालो. ताकाय वामनरावान जवाब दिनातींले नुतची रावलो. आनी तागेले वयले, अधिकारीन मागीरी कसलेयी उलयनातीलयान वामनराव तागेलो नीरोप

घेवन तागेलया जाग्यारी वचुनु बसलो. ते दिवसाचे काम वामनरावान एकचित्तान आनी व्यवस्थीतपणान पूर्ण केलें. आनी वयलया अधीकारीं कडेन धाडची पत्राचे ट्रेंतु दवरलीं. ताजे नंतर एक कागद घेवन, ताजेरी तागेले चाकरीक राजीनामो बरोवन लकोट्यांतु घालनु अधीकारयाकडे वच्या कागदांचे बरोबर दवर्न दिलो. इतलें जातचीची तो आफीसादाकुनु नित्यावरीची घराक वच्चा वेळारी उठानु भायरसरन गेलो.

राजीनामाचे पत्रारी वामनरावान "हांव म्हाका वहीसुन दिलेले काम मेज्यान जालेले तितले व्यवस्थीत जावन आनी बरे तरान कर्तां परंतु अधिकारीचे मन पसंद करचे म्हजे काम न्हय" अशीं बरोवन आशिलें.

हेरदिवसु आफीसाक आयीलो अधिकारीन तें राजीनामो पत्र वाजुन अजाप जालो. ताणे वामनरावाले विषयांत लेकीले एक, जालेलें विंगडची, ताणे तागेले शिपायीक वामनरावाले घरकडे ताका आपोवन हाडुंक धाडलो. वामनराव आपण आफीसाक येना म्हळालो. ताजे नंतर त्या अधिकारीन तागेले सकलच्या एक अधिकारीक तागेलें कार समेत वामनरावाले घरकडे धाडलो जाल्यारी वामनरावान ताजेकडे सांगले की "आता हांवे आफीसाचे काम सोडलें आनी हांव कामारी येवचो ना." अशी जवाब दीवन ताका धाडलो.

तें आयकून वामनरावाली आवय सीताबायीन "ते इतले आपयतात जाल्यार तू कित्याक वचनारे शाण्या?" म्हणाली. तिका वामनरावान "नागे ताबाय! हांव वचना.

तो आफीसर सांगता हांव कामकरीत आसतनाय ताणे आयिले तेदना हांवे उठान रावका कंय. तें मेजान जावचें ना" अशीं सांगलें.

हें पळयताना वामनरावाले स्वाभिमान आनी कर्तव्याचे दृष्टीन आशिली निषठुरता दिसूनुयेता. तागेले संसाराचे खरचाक म्हैयन्याच्या म्हैयन्याक एक ठरायली कमाय मेळोवन दिवचे त्या नौकरी आकस्मात सोण गेलयारी मुखारी कशीं? म्हळलो दुबाव आशिलोची. नंता ताणे मेळेले पगारांत अजून कांही दुडु वरयललोय नाशीलो.

ह्या काळाक वामनराव कोंकणी माकशी पडलो. गोंयंच्या आनी कोंकणाच्या इतिहासाचे ज्ञानसंपादन करचे विषयांत तागेलांतु एक विशेष तानी उबजलेली.

वामनरावान साहित्य रचन शुरुवात केलेले मराठी भाषेंतु. त्या काळारी हिंदू गोंयकार मराठी तीची तागेली आवयभास आनी तागेले आवय भासेचे शुद्ध स्वरूप म्होण समजतालो. आनी खंची ताणे उलोवची कोंकणी भास म्हळ्ल्यार मराठीची अशुद्ध आनी हेंगाडी रूप अर्शी लेकतालो. तांतूयी इंग्लीष, पोरतुगीज आनी मराठी मस्त शीकनातीले क्रिस्तांव भाव, तांगेले नित्याचे गरजेतकीन चीटी बरोवचाक, मनरंजना खातीर गीतरचन करतना या रांदप कर्शी करचे इत्यादी सांगचे खातीर रोमी लिपीन बरेयिलें कोंकणी वापरतालेती. वामनरावाक तेवंय दिसूनु आयलें की खंचेय लिपीन बरोवन छापनातिले अशीलें कोंकणी लोकगीतं आनी लोककाणयो जनाले तोंडांत घोळन अशिलींती. जाय त्यो म्हण्यो, ओवयो आशिल्यो. वामनरावान इतिहास अध्ययन करत आसतना

ताका अशीं कळन आयिलें की, तिनशी साडेतिनशी वर्सा पयलें कोंकणी भाषेचें व्याकरण देवनागरी लिपींत बरोवनु छापिलेलें आनी तशी बरोवचाक शुरुवात जाललो पुण पोर्तुगीज राज्यभार आयलेपरांते धर्म दुरभिमानाचे दीस आयले परांते, हिंदू संस्कृती नष्ठ करचे, 'इनक्वजीशन' रूपान धर्मांतर करचे कठीण धोरणाचे निमित्तान कोंकणी बरप वाडूनुयेवचे बदलाक विकासन नासताना चेपुन वरली. तशींची येकुणीसावया शतमानाचे दुसर्या अर्थांत केदना भारत देशांत ब्रिटीश राज्यभार घट जालें, तेदना पोरतुगीज राज्याडळीतानय दोळे उगते केलें. मागीरी आयीले पोरतुगीज अधिकारी आनी पाद्रीनीं कोंकणी बळवंत भास म्हळेले मनांक व्हरून भासेचे अभिवृद्धीक प्रोत्साहन दीवन भाषेचे उदरगत करचे वावरयी शुरुवात

केला. रीच्जोर सबास्तीयांव रोदोल्फ दल्गाद हाणे कोंकणी उतरावळीचो कोश रचन केलो.

इतले दीर्घ काळदाकुनु चेपणाक पळेली कोंकणी भास हळूहळू मातें उबार्न संसराक पोळोवचाक लागली. कोंकणी भासेचो अनैसर्गीक आनी विद्रूप जालेली परिस्थिती, तिगेले उच्चार भंगजालेलें. आवय भासेची ही परिस्थिती पोळोवन तिका संसाराचे इतर भासेचे समान स्थानमान मेळचे, तिगेले सुंदर, शोबीत, संस्कारी आनी मुख्य जावन भारतीय रूप दीवन, तिका भारतीय भाशें भीतर मानाचो पाट मेळची तसली. तांक आनी शक्ती तिच्यांत भरपाणें खातीर वामनरावाने घट संकल्प केलो.

जाल्यार देवनागरी लिपीन कोंकणींत बरोवचे आनी उजवाडांवचे, आपण्याले संसाराचे पोट भरचाक एक धंदो जावन करचाक वामनरावाक जावचे नाशिलें. त्या खातीर ताणे खंचेय एक नौकरी करचें अवश्य आशिलें. कोंकणी साहित्य रचना, एक सेवा म्हणूची करका जातालें. कोंकणी भाषेन साहित्य बरोवचे म्हळलो संकल्प केलेले नंतर बरयलेलें "अभागी सुब्राय" आनी "भिडेस्त रायुबाब" हीं दोनी पुस्तकं बरोवन दवरलेलें पुस्तकं घरांतूची पणु अशीलींती. जालयारी दुडु रीण घेवनूची पुस्तकां उजवाडपाचे म्हळेले तागेल जीवनाचे शैली या धोरणाक विरुद्ध अशिलें. अखेरीक तागेले योजना कार्यरूपाक वाटकरन दिवचो एक उपाय ताका मनांत आयलो.

देवनागरीनची बरोवचे आपण्याली धोरणा आसल्यारीयी ताका थोडेशें विनायती (exception) दीवन वामनरावान इंग्लीष भाषेचो महा प्रसीद्ध नाटककार शेक्सपीयरालें नाटकांचे कथानक कोंकणीन बरोवन घेतलें. तशीं शेक्सपीयराले धा बारा नाटकांचे कथानक कोंकणींत बरोवन, 'शेक्सपीयर खेळांची माळा' तयारी केली. ते शिवाय 'अरेबीयन नैट्स' हांतुलयो थोडचो काणयो, बकावलेचे फूल (गुल–ए–बकावली) ही प्रसीद्ध काणीयेंचे भाषांतर केलें. रोमी लिपीन कोंकणी पुस्तक प्रकाशन करचे एक संस्थन वामनरावालीं हीं पूराय पुस्तकं छापलयो. आनी उजवाडलीं. काणयो सुंदर, सुलभ जालेलीं भारतीय मोडींची आशिलीं.

वावर करत आशिले गोंयकार भाव–भैण्यानी एकत्र मेळन 'गोंयकार हिंदू सभा' नांवाची संघटना स्थापन केली. त्या प्रतिष्ठित संस्थेंत श्री वामनराव वालावलीकार, डॉ. वेंकटेश कामत, श्री वामनराव केरकार आशिले. आजून ही संघटना मुंबैंत सक्रिय जावन कार्य करत आसा. स्थापने पासून पयल्या आठरा वर्ष वामनराव संघटनेचे संस्थापक मंडळींत अध्यक्ष, उपाध्यक्ष, कोशाध्यक्ष अशीं दुसरोदुसरो हुद्दो अलंकार करन सक्रीय जावन सेवा दिली. त्या वेळारीची वामनरावाले थोडेशें साहित्य प्रकाशनाक आयीलेय आसा. आनी ताणे रचन केलेले नाटकांचे प्रदर्शन जालेलेय आसा. 'मोगाचे लग्न'. 'झीलभा राणो', 'पवनाचें तपलें' हीं नाटकां प्रसिद्ध जालयांती.

वामनराव 1919 इसवींत 'कलर एंड ड्रग्स' नांवाची जर्मन कंपेनींत नौकरीक आशिले. कंपेनींत वयले हुद्यारी आशीले. आनी वरीष्ठासमान चार अंकड्याचो पगार घेताशीले. महाझुजा वेळार कंपनीचे व्यवहार संभाळीले आनी वामनरावाली योग्यता पळोवनु तो पगार तांका दिललो. 1925 वर्षांत पयलेचे वरिष्ठ अधिकारी निवृत्त जावन नंवे आफीसर आयले. तांका वामनरावयी आपलेच दर्जेचो पगार घेवचे पळोन सहन जाले ना. त्या वरस थोडे लुक्सान जाले म्हण सांगूनु वामनरावालो पगारु कम्मी केलो. 'एक भारतीय' म्हणु आपण्यालो पगार कम्मी केलेलो विषय सूक्ष्मदृष्टीचो वामनरावाक कळनु आयिले. "कंपेनीक लुक्सान जालयार कंपेनीचे हितदृष्टीन अपण्याले पगारु कम्मी केल्यार जायत, जालयार सगळयांत सम जावन पगार कम्मी करका" म्हणु वामनरावान वरिष्ठांक

पत्र बरयले. तांका वामनरावाक दिललो पगाराचेरी दोळो आशिलो. अशीं जावन वामनरावाली सूचना तांका आवडली ना. स्वाभीमानी वामनरावाली तापडतोप आपणेले नौकरीक राजीनामो दिलो.

मेट्रीक जालेले दोन वर्षानंतर वामनरावाले लग्न जालेलें. तागेली बायल शांताबायीक शिक्षण नाशिलें. जाल्यार बहुश्रुत आनी उपकार आसल्या अनुभवान ती ज्ञानवंत आशिली. वामनराव मुंबैंचे विलेपारलेंत एक मजलेचे स्वंत घरांत रावताले. त्या घराक 'गोमंताश्रम' अशे नांव आशिलें. तांका दोन चले आनी दोनी चलयो.

वामनराव आपली बायलेचे खूब आदर करताशिलो. श्रीमती शांताबांयीक गोंयचे लोकवेदाचे काण्यो खूब कळताशिले. कोंकणी उत्रांचे ज्ञान मस्त आशिले. तिगेल्या

कडच्यान आयकल्यो काण्यो वामनरावान 'लोकवेद' नांवान संपादन करन वेगवेगळे पत्रिकेंतल्यान उजवाडाक हाडल्यो. शांताबायीक घरगुत्ती औषदांचे ज्ञान सुदां आशिले. वामनरावान युक्तीन तें सगळें संग्रह करन शांताबायी नांवारी 'वखतांची सांगळी' नांवान 'नवें गोंय' नांवाचे पत्रीकांतुल्यान उजवाडाक हाडलें. कोंकणी उत्रांची उत्पत्ती संस्कृत भाषांतल्यान जाल्या म्हण कळन तो समाधान पाव्ताशिलो.

वामनरावाक कोंकणी एक गोडी, मोवाळ, संस्कारी, विचार–भावना आनी कल्पनेक स्पूर्ती दिवची भास म्हणु दाकोवचे आशिले. तत्वज्ञान, मनोविज्ञान, नीती–अनीती ह्या सर्व विषयाचेर साहित्य विषय कोंकणी भाशेंत आसा म्हणु दाकोवचे आशिले. तें ताणे 1925 इसवीतावन 1946 वर्स पर्यंत रचन केलेल्या आपले साहित्यांत दाखयले.

निदांत आशिले कोंकणी समाजाक जागोवचाक वामनरावालागी दोन उपाय आशिले. एक – ह्या समाजाची स्वाभिमान शून्यता काडून जागे करचें आनी दुसरे – त्या समाजाक ताजो पयलो वैभवशाली आनी अभीमानास्पद इतिहास सांगचे.

1934 वरसधरन हें दोन उपाय कार्यरूपाक हाडच्याक वामनरावान सुरुवात केले. ताम्रपट, पाषाणांचे बरप, शिलालेखन, मुद्रण सगळे प्रकाराचे अध्ययन केले. देवस्थान, इगर्जी, दुसरे दुसरे किल्ले, सगळया जाग्यार वचूनु आयले. पुरातन ग्रंथ वाचूनु काडले. पोरनी मराठी, इंग्लीष, पोर्तुगीज भाषेंत आशिले साहित्य वाचूनु काडले. संस्कृत भाषेंतले रामायण, महाभारत, वेद, पुराण, उपनिषद, व्याकरण, नाटकं, काव्य हे सगळे ध्यास दीवन अभयास केलें. कोंकणीचे दिव्य इतिहासाची मूर्ती तांका दिसचाक

लागली. तें तागेले हृदयांतुल्यान काव्य रूपान येवन पुस्तकरूपार प्रकट जाले. अंशी जावन 1910 वर्षा 'गोंयकाराचो मुंबयीकार' नांवाचे काव्य देवनागरी लिपींत बर्यलें. 'शेणै गोंयबाब' म्हण साहित्यीक नांव ताका दिले.

वामनराव आपले 45 वयार नौकरींतल्यान निवृत्त जाल्यारीय तागेली कार्यक्षमता कम्मी जाली ना. आफीसाचे वेळाक सम जावन घरंतल्यान भायर पडन पेटीट अथवा रायल एषीयाटीक सोसायीटिच्या ग्रंथालयांत वचून दिवस भर भाषेचे अध्ययन करन टिपणी करताशिले.

मनष्याले तपश्चर्य बरे विचाराक लागून आसल्यार, ताका खंचानतरी लेकनातीले मार्गान फळ मेळता. हो मनुष्य जातीचो अनुभव जावनासा. तसले ज्ञानोदय ह्या

वयार वामनरावाक जालें. मुंबैचे गोंयकार हिंदू सभेंत डॉ. वेंकटेश पांडुरंग कामत हे शेणै गोंयबाबाले एक मित्र आशिले. तांका गोंयबाबाले साहित्यीक पांडित्य कळन आशिले. गोंय हिंदू सभा आनी सारस्वत ब्राह्मण समाज ह्या दोनी संस्थेचे आश्रयांत सभा आपोन शेणै गोंयबाबाले कडच्यान कोंकणी इतिहासाचो उपन्यास दवरका अशीं डॉ. कामत हांका मनांत येवजले, आनी तान्नी हो विचार शेणै गोंयबाबालागी दवरलो. हर्वे सोदत आशील्याक पिकीले मेळयावरी, हें आयकुन शेणै गोंयबाबाक खुशी जाली.

तांगेले पयलो उपन्यास 22 मे 1927 दिवस जाले. 'गोंयकारांची गोंयभायली वसणूक' ह्या शीर्षिकेचेरी ताणे दोन ते आढेस तास उपनयास जाले. ह्या उपन्यास कार्यक्रमा निमित्त कोंकणीचे अभिवृद्धीचे आशाकिरण प्रज्वळून

दिसचाक लागले. असले उपन्यास कार्यक्रम आठ दिवसाक एक प्रकार 5-6 वार चल्ले.

कोंकणी भाषेची हक्काची देवनागरी लिपींत, सुंदर, सजणी कुलवंतनारी भाषेन कोंकणी भास समाजांत भोंवचाक लागली. तेदना मस्त विरोध आयलो. शेणै गोंयबाबान आप्ले बुद्धी चातुर्यान, अभ्यासबलान, तांगेले विरोधाक वज्रलेखनाचे रूपार जवाब दिले. असले सर्व लेखन गोमांतक छापखान्यांतुल्यान श्री काशिनाथबाब नायक हान्नी संपादन करन 'कोंकणी भाषेचे जैत' ह्या नांवान उजवाडायीलें. ह्या जैतांत 1 गोंयची आवयभास 2 भाषेची लक्षणां 3 कोंकणीचो शुद्धकार आनी 4 कीरकोळ मुद्द्यांची निस्तरावणी, अशीं चार मुख्य लेखन बरयलां. ह्या लेखनानीं शेणै गोंयबाबाक अप्रतीम

यश जोडून दिले. आनी कोंकणी विरुद्ध उलयतल्यांक जवाब दिवन थंड केले.

गोंयचे तरुण पिळीगा विषयांत शेणै गोंयबाब आशावादी आशिले. 'वसणूक' हांतु गोंयबाबान कोंकणी आनी कोंकणी समाजाचो गत वैभवाचो इतिहास वर्णन केलेलो. तें वाजून गोंयकार तरुण पीळिगाचेर खूब प्रभाव जालो. अशी जावन ते आवयभास कोंकणीक मोग करचाक लागले. तांतु श्री काशिनाथ श्रीधर नायक एकलो आशिलो.

श्री काशिनाथ नायक गोंयच्यान आपलो धाक्टो भाव श्री अनंत श्रीधर नायक हांका घेवन मुंबैक आयिलो. 'टायीम्स आफ इंडीया' छापखान्यंत दोगीं जन नौकरींत आशिले. तांका शिक्षण ज़ास्त नाशिले. सीदापणान, मितव्ययान काटकासरीन थोडे पयशे जमायिले. श्री

काशिनाथ नायकान ताणे राबचे ल्हान कुडांत एक ल्हानसो छापखानो उगडयलो. थोडे दिसान प्रामाणीकपणान काम करन नांव जोडलें. त्या छापखानेक 'आत्मोद्धार' म्हणु नांव दवरले. जाल्यार गोंयचे मातृभूमीचे उग्डासा खातीर 1925 इसवींत 'गोमांतक' म्हळेले नांव त्या छापखानेक दिले. काशिनाथबाब, शेणै गोंयबाबाचे उपनयास आयकुन प्रभावित जाले. तान्नी ते 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक–पयले खंड' नांवारी 1928 वर्षा विजय दशमी दिवस पुस्तकां उजवडा हाडले. शेणै गोंयबाब कोंकणी सरस्वतीचो साक्षत्कार पावीलो 'बुद्ध' (ज्ञानी) आशिले आनी काशिनाथबाब कोंकणीचे 'अशोक' जावनाशिले. पुस्तकांचे प्रकाशन, विद्वान प्रोफेसर वसंत नायक हान्नी केले. हान्नी शेणै गोंयबाबाक 'गोंयचो इतिहासकार' म्हणु सांगूनु गौरव केलो.

1950 वर्ष श्री काशिनाथ बाबान गोमंतक छापखानयांतल्यान 'कोंकणी भाषेचे जैत' नांवाचे, शेणै गोंयबाबाले दुसरे पुस्तक उजवाडायलें. काशिनाथबाबान शाळे वचून शिक्षण घेतिले ना. पुण अनुभवाचे शाळेंत ताण्णी मेळयले ज्ञान उच्छ मट्टाचे आशिले. शेणै गोंयबाब, कोंकणीच्या विकासाचे दृष्टीन, विविध मुख ज्ञानान भरीले झरी सारखे आशिले. काशिनाथबाब, ह्या झरीचे उदकाक बांद बांदून कोंकणीचे क्षेत्रांत कशी वावरुन उत्तम फल घेवचे असले व्यवहारीक मनुष्य आशिले. कोंकणी इतिहासांत शेणै गोंयबाब आनी श्री काशिनाथ बाबाचो संबंध अखंड एक जीव-दोन देह अशी, कौतुकान पळोचाक जाय. सानपण धरन 'श्याणो' (बुद्धीवंत) म्हणु अर्थगर्भीत जावन आवयीन आपयीलें नांव खरे जावची

अशी वामनरावान श्याणो जावचे जीवन चलोवन दाकयिले. 'वसणाची' (ठरावण) उजवाडायिली. आनी त्या वर्स धरन श्री काशिनाथबाबान शेणै गोंयबाबाली खूब पुस्तकां प्रकाशनाक हाड्ली. 1954 वर्षा 'गोमांतोपनिषद–दुसरे खंड' उज्वाडाक आयलें. पयले खंडांत म्हजी बा खंय गेली? 2 वास शेणैली पोपाय 3 बाबूमामालो पणस 4 पीतुबाबांलो ताम्बयापटो 5 खर्णवीर.

दुसरे खंडांत 'संसारबुट्टी' नांवाची काणी आसा. ह्यो काणयो केवल मनोरंजनाचो काणयो नंता तांतु देव, धर्म, संसार, जीवन, नीती–अनीती, हिंसा–अहिंसा, बरें–वायट अशीं मनश्यांती मनांत खंचे–खंचे विचार येताती ते सगळे तातवीक आधाराचेरी मंथन केलेल आसा.

श्री काशिनाथबाबान गोमंतक छापखानांतुल्यान 'नवें गोंय' नांवाचे एक त्रैमासीक 1934 वर्षा धरनु सुरु केले. त्या पत्रीकेचे संपादकाले पुराय वावर शेणै गोंयबाब करत आशिले. आठरा शतमानाचे 'आबे फारींय' आनी 'पुण्यात्मो राम कामती' ह्या दोन गोंयकारांले जीवन चरीत्र क्रमान त्या पत्रिकेंत प्रकाशन जाताशिले. श्रीमती शांताबायीन सांगीले घरगुत्ती वखदां विषयु सुद्धा 'वखदाची सांगशी' शीर्षिका रूपान पत्रीकेंतु अनुक्रमान प्रकट ज़ाताशीले. हे त्रैमासीक 1937 इस्वींत तीन वर्षा प्रायेरी बंद जाले.

1935 वर्ष शेणै गोंयबाबान तरुण पीळिगे खातीरी मोगान बरयिलें 'भुरग्यालो इष्ट' नांवाचे पुस्तक सुंदर जावन प्रकट जालें. ह्या पुस्तकांत चेर्डुंवा खातीरीची बरयीले म्हजी बा, आमचे शेणैमाम, म्हजे खेळ, बागमाम,

म्हजे गोंय, गोंयचे बंदर, हांव कितें करतलों इत्यादी सव्वीस पाठ आशिले. 1941 वर्ष चर्डुंवाखातीर आनी दोनपुस्तकां गोमंतक छापखान्यांतुल्यान प्रकट जालेंती. 1 कोंकणी पयलें पुस्तक आनी 2 भुरग्यांचे व्याकरण, हें दोन त्या पुस्तकाचे नांव आसा.

शेणै गोंयबाबाले आरोग्य 1937 वर्षा धरन बरे नाशिले. आपण्याक व्याधी आसा म्हण तांका कळें. आरोग्य सुधारचे खातीर हवामान बदलचे पडताशीले. देकून मुंबैचान नासीक शहरांतु वचून येवचे करताशीले. कोंकणी भाषेचे कार्यक्रम बंद जावचाक ना. हातां धरिलें काम पूर्ण जावका, ह्या ध्येयान ताण्णे जास्त-जास्त काम करचाक लागले. 'व्याधीन शरीर सुकता जाल्यार, त्याच वेळार मेंदु चुरुक जाता' अशीं म्हणताची. व्याधी

लागून गोंयकार हिंदू सभेचे आडळीत मंडळींतुल्यान वामनराव भायर आयले.

श्री भगवद्गीताचे सुंदर आनी प्रमाणीत कोंकणींत अनुवाद जावका म्हण श्री काशिनाथ बाबाले मनांत आशिले. गीतेंत आशिले तत्व सरळ जावन विवेचनापूर्ण ग्रंथ कोंकणींत येवका आनी ते काम शेणै गोंयबाबाले हातान जावूका म्हळली उत्कट अभिलाषा काशिनाथ-बाबाली आशिली. आपण्याली इच्छा वामनरावालागी श्री काशीनाथबाबान दवरली आनी शेणै गोंयबाबान जायत म्हणु कबूली दिली. त्या नंतर एकाग्रचीत्तान योग्य जावन गीतेचे कोंकणींत अनुवाद केलें. ल्हान-ल्हान चर्डुंवांक सुद्धा अर्थ जावचे तशी सरळ रीतीन बरोवन काडले. त्या खातीर बरयिलें, परत-परत वाचूनु सम तयार करचाक मस्त वेळ लागतालो. अशीं जावन तांगेले मरणा नंतरची

1959 सालांत अनुवाद ग्रंथ उज्वाडा आयीलो. 'श्री भगवंताली गीत; ह्या पुस्तकाक कन्नडाचे राष्टरकवि श्री मंजेश्वर गोविंद पैन मार्मीक जावन प्रस्तावन बर्यिलीं आसा.

श्री काशिनाथ बाबान शेणै गोंयबाबा कडे आनी एक मागणे केलीले. तें मागणे कोंकणी व्याकरण बदल बरोनु दिवका म्हणु आशिलों. शेणै गोंयबाबान व्याकरण बद्दल बरयलें जाल्यारी तांगेले दृष्टीन परीपूर्ण जालनाशिले. तें पुस्तक 1949 वर्षांत 'कोंकणीची व्याकरणे बांदावळ' नांवान प्रकट जाले. त्या शिवाय 1940–41 वर्षांत 'भुरग्यांचे व्याकरण' आनी 'कोंकणी नादशास्त्र' अशीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. ह्या पुस्तकाक डेक्कन कालेजाचे डैरेक्टर जावनाशिले डॉ. एस.एम. खत्रे हान्नी 'पयली उत्रां' बरयलां.

तागेले शरीर 8-9 वर्सधरन क्षयरोग व्याधीन कृश जावन आयिलें. आकस्मात खुर्ची वयलान तग पडन शरीर आनीकय साप जाले. एप्रील 7 तारीके दिवस विलेपार्ला घरांतूल्यान ल्यामिंगटन रस्ता वयर आशिल्या खासगी नर्सिंग होमांत तांका दाखल केलेले. शेणै गोंयबाबालो व्हडलो चेलो श्री रघुनाथ आनी श्री काशिनाथबाब तांगेले लागीची बसूनु आशिलें. "तुमचे सगळ्याले बरे जावों अशी म्हणत 1946 इसवी एप्रील म्हयनो 9 तारीखे दिवस सकाळच्या साडे आठ घंट्यार दैवाधीन जाले. श्रीमती शांताबायी विलेपार्ला घरांत 1970 वर्षांत दैवाधीन जाली.

